# द चाईल्ड

## दोन नवलिका

ॲड. यशवंत ज. नायक

आसरा प्रकाशन, गोवा

प्रकाशन क्र. १
पयली खेप २००६


उजवाडपी:
आसरा
बाल हक्क संस्था
फोंडें - गोंय ४०३ ४०१

अक्षर रचना:
शिवा आर्टस,
ढवळी, फोंडें - गोंय ४०३ ४०१

छापपी:
चैतन्य एंटरप्राईजेस
चिंचवड, पुणें - ३३.
मोबा. ९८२२३ ५४०२५

भायलें चित्र:
प्राजक्ता मिस्त्री (पुणें)

मोल:
रु. ८०/-

*आसरा संस्थेक*
*माये मोगान ह्यो दोन नवलिका*
*अर्पण करतां.............*

**यशवंत**

मांडावळ

# सुरवेचीं दोन उतरां.....

ह्या कथांतल्यान आगळ्यो - वेगळ्यो मनोवृत्ती वाचकां मुखार दवरपाचो हावें यत्न केला. धर्मांन - परंपरेन बहिष्कार घाल्ली मनोवृत्ती आमच्या समाजांतच जल्मता. तशें पळयल्यार, मनशाचें व्यक्तिमत्व समाजच घडयता. आनी तें सारखे घडलें ना, जाल्यार समाजच ताका ख्यास्त भोगयता.

पूण हें व्यक्तिमत्व अशें कित्याक घडटा? समाज ताका सहानूभूती कित्याक दाखयना? ताच्यांत सुधारणां घडोवन हाडपाचो जांव ताका एक नवें रुप दिवपाचो यत्न कित्याक करिना?

मनीस दुयेंत जालो म्हूण आमी ताका मारुन उडयनांत. तो दुयेंत कसो जालो हें सोदून काडून फुडें तें दुयेंस ताका जावचें न्हय म्हण जतनाय घेतात. बोटाक घाय झाला म्हण बोट कोण कातरुन वडयता?

लक्षांत दवरात, मनीस जल्माक येतनाच आपल्या बरोबर कांय हक्क्य घेवन येता. हे हक्क म्हळ्यारच ताचे मानवी हक्क. ह्या हक्कांचो दर्जो कायद्यान दिल्या हक्कां परस खूब म्हान आनीक व्हड आसा. अशा ह्या सैमान दिल्या मानवी हक्कांची जतनाय जावचे खातीर जण एकल्यान आपले परीन यत्न करुंक जाय. तुमीय हो यत्न करात. कारण तुमकांय मानवी हक्क आसात. चलात तर, आमच्या सगळ्यांच्या मानवी हक्कांचे रक्षण करुया. वाचप्यांनो, हावें केल्ल्या वावराचो नियाळ घेवन तुमच्या मदल्या एकट्यान जरी ह्या विशयाचेर आनीक खोल अभ्यास केलो जाल्यार, हावें ह्यो कथा बरयिल्ल्याचें सार्थक जातलें.

आमच्या समाजांत बायलांनी जायत्या मळाचेर नामना जोडल्यां. आमचो इतिहास आमकां धाडसी बायलांच्यो काणयों सांगता. तशेंच समाजांत बायलाचें स्थान कशे तरेन बदलत गेलां हेंवूय आमकां दाखयता.

वैदिक काळांत बायलांक खूब मेकळीक मेळटाली. तशेंच तांच्या मानवी हक्कांची जतनाय जाताली. ह्या काळांत बायलांनी लागीं-लागीं सगळ्या

मळांचेर जैत जोडिल्लें. गार्गी, मैत्रेयी, इंद्राणी, यमी ह्यो बायलो कला, नृत्य, गायन इतलेंच न्हय तर रणांगणांत्य आपलें धाडस दाखोवपाक फाटीं सरल्यो नात.

उपरांतच्या वैदिक काळांत बायलांच्या पांवड्याक चड मार बसलो. बायलांच्या हक्कांचेर खूब बंधना आयलीं. जशी महाभारतांतली द्रौपदी. मुगल आनीक ब्रिटीश काळांत; चलयांक मारुन वडोवप, एका परस चड बायलांकडेन लग्न जावप. तशेंच देवदासी प्रथेकय वाव मेळ्ळो. तेच बरोबर विधवा बायलांची जीण खूबूच मर्यादीत जाली. पूण अठराव्या शेकड्यांत दोतोर ॲनी बेसंट, सरोजीनी नायडू, कस्तुरबा गांधी, विजयालक्ष्मी पंडीत ह्या बायलांनी सामान्य बायलांक एक आशेची जोत पेटोवन दिली. एक आत्मविश्वास तांच्यांत जागयलो. आनी आयज तर बायलो सगळ्या कार्यक्षेत्रांत दादल्यांपरस फुडें पावल्यात.

इंदिरा गांधी, मदर तेरेजा, किरण बेदी, कल्पना चावला, लता मंगेशकार आनी कितल्योशोच बायलो समाजांत आपलें एक वेगळेंच नांव मेळोवन आसात.

तांची नावांच ताणीं केल्ल्या वावराची वळख करुन दिवंक पुरो जाता. पूण इतलेंय आसून, आयजूय आमच्या देशांत विनयभंग, बलात्कार सारख्या गुन्यावांचे प्रमाण वाडत गेलां. बलात्कार जाल्ले एखादे चलयेक

जांव बायलेक तिची कांयच चूक नासतना खूब वायट प्रसंगाक तोंड दिवचें पडटा. समाज तांचेकडेन एके वेगळे नदरेन पळयता. तांच्या चारित्र्याचेर दुबाव उक्तायता. समाजच न्हय तर तांचीं सोयरीं धायरीं तांकां पयस करतात. आनीक अशें जाल्ल्यान तांच्या मनांत भिरांत निर्माण जाता. तांचे मानसीक संतुलन इबाडटा. तांकां जिवीताचो वीट येता. अशी आदार नाशिल्ली, समाजान बहिश्कार घाल्ली चली वा बायल निमाणे आत्महत्येक प्रवृत्त जाता. अशा वेळार तिचे जिणेंत बदल हाडपाखातीर तिका कोणाचोय तरी आदार जाय आसता. बायल ही खरें म्हळ्यार उदका इतलीच पवित्र आनी नितळ. उदकाक रंग नासता पूण जो रंग उदकांत घालतात तोच उदकाचो रंग जाता. तशेंच एक बायल आमच्या समाजांत वेगवेगळ्यो भूमिका करता. आवय, घरकान्न, मोगी, भयण इतलेंच न्हय तर ह्या सगळ्या पात्रांक ती समान न्याय दिता.

वाचप्यांनो, तुम्ही जायत्या लेखकांची बायलांच्या / भुरग्यांच्या चारित्र्याचेर, तांचेर जावपी अत्याचारांचेर बरयिल्लीं पुस्तकां वाचल्यांत आसतलीं. म्हजो वावर ताका आडवाद न्हंय. उलट तांणी केल्ल्या वावराक एक लहानशीच जोडणी.

कथेतलो प्रसंग तुमगेर, आमगेर जांव शकता. घडये जाला, जाताय आसूंये पूण लजेन सगळ्यांची तोंडा बंद आसात. तर थोड्या जाणांच्या मनातलो घुसमटमार मनातच उरता.

तुमी ह्या कथांतले ल्हान कुवाडें सोडयल्यार तुमची जाप हीच म्हजी जाप आसतली. शेवटीं हें सगळें आमचे मानसिकतेचेर अवलंबून आसता. आमच्या समाजांत सुकूरा सारकेल्यो कितल्योशोच बायलो आसात जांचे मुखार अशें कुवाडें पडलां. इतलें आसूनय तीं तशींच रावतात. घटस्फोटाक वचनांत. अशा ह्या बायलांच्या मनांक बशिल्लो धसको उतरांनी सांगपाचें जाल्यार उतरांच कमी पडटात. घटस्फोट घेवप खूप सोपें पूण घटस्फोटा उपरांतचो काळ एकदम भयानक आसता. आयज घटस्फोट बाजारांत भाजीपाल्या सारखो रोकडोच कोर्टांत मेळटा.

आज लग्न जाल्यार फाल्यां घटस्फोट अशी वृत्ती मनांत दवरून आमची तरणी पिळगी समाजांत वावुरता. परत, घटस्फोटाची खरीं कारणां केन्नांच कोर्टा मेरेंन पावनात. बायलांचें हितराखण करणाऱ्यो संस्था आनी पोलीस यंत्रणा जर सांगातान काम करत, जाल्यार सुकूरा सारकेल्या बायलांचें जिणेंत जायतो बदल जावंक शकता. घोवा–बायलां मदीं उपरासपी घटस्फोटाचीं खरीं कारणां कोर्टांत पावल्यार कितल्याशाच बायलांक सांताना सारकेल्या घोवा कडल्यान न्याय मेळटलो. समाजांत जें सांतान आसात ते परतून केन्नाच बायलांचेर, भुरग्यांचेर अत्याचार करपाचें धाडस करुंक पावचेनात. तशेंच, आयज आमी भुरग्यांचेर जावपी लैंगिक अत्याचाराविरुद्ध मोठी चळवळ करतात. बालकांचे शोषण कित्याक जाता? कवळ्या मनांचेर अत्याचार करपी मनोवृत्ती कशी तयार जाता?

तशेंच ही वृत्ती जावची न्हय म्हूण कितें करुंक जाय ह्या प्रश्नांचेर चड भर दिवची गरज आसा.

सगळेच प्रश्न कायद्यांन सोडवंक जायनात. देशांत आज कायदे आसूनय खून, चोरी, बलात्कारांचे प्रमाण वाडत आसा. म्हणटकच, जण एकल्यान आपल्या मनाचेर ताबो दवरलो जाल्यार कायद्याची गरजच भासचीना. तशेंच सांताना सारखेल्या घोवांचीय बाजू आयकून, तांका विश्वासांत घेवन, तांची मानसिकता समजून आदार दियत जाल्यार तांकांय परिस्थितीक तोंड दिवपाक धीटाय मेळटली. कांय वेळा गुन्यांवकारांक आपूण चूक करतां हाची पुराय जाणीव आसता. पूण तो आपलें मनोगत लजेन कोणांकच सांगना. अशा वेळार **Helpline** जांव **Counselling Centres** उपलब्ध आसल्यार गुन्यांव टाळूंक शकता. मात हाची चड जागरुकताय जावप गरजेचें.

लक्षांत दवरात. अत्याचार करपी मनशाक मदतीची चड गरज आसता. कित्याक तर, अशे मनीस सुदारत जाल्यार संवसारांत कोणांचेरच अत्याचार जावचें नात.

लैगिक विशयाचेर आमच्या समाजांत मोकळेपणान उलोवप जायना. अशें जाल्ल्यान, मनातलो घुसमट दाबून उरता. मागीर, हातूंतल्यान

भुरग्यांकडेन संबंध, दादल्यामदीं संबंध, बायलांमदीं संबंध तयार जातात. फुडें हाका गुन्यावाचें वळण लागता. पूण मागीर, भायल्या देशांत लैगिकतेचेर बंधना नासूनय गुन्याव जातात ते कशे? आमी मनाची अवस्था बदलत जाल्यार सगळें बदलतलें. मन बदल्ल्यार, समाज बदलतलो आनी समाज बदल्ल्यार जग बदलतलें.

मागीर, सुकूरा सारकेल्या बायलांक तर न्याय मेळटलोच. समाजातल्या सांतानाच्याय मानवी हक्कांची जतनाय जातली. नाजाल्यार सुकूरा सारकेल्या बायलांची जीणच एक कुवाडें जावन उरतली. एक अशें कुवाडें जें कोणांकच सोडोवंक येवचेंना.

कवळ्या मनाच्या भुरग्यांक आपल्या मनांची दारां उकती करुन जतनायेन हाताळात. तांका समजून घेवपाचो यत्न करात. भुरगीं आवय-बापायचें अनुकरण करतात. भुरग्यांचेर आवय-बापायन बरे संस्कार करत जाल्यार एक बरो समाज घडटलो. घरांत जावपी आवय-बापायली झगडी, सोरो पिवन घरांत भुरग्यांक भिरांकूळ अशे वातावरण तयार करप, चुकल्यार तांची चूक दाखयनासताना तांका मारप, हेंराच्यो खेबाडां करतना हासप. हे सगळ्या गजालींचो भुरग्यांच्या व्यक्तिमत्वाचेर वायट परिणाम जाता. अशे तरेन घरांत जावपी भुरग्यांच्या अत्याचारांचें प्रमाण हालीं वाडत गेला.

पुण आयचो समाज आजूनय उकत्या डोळ्यांर काळी पट्टी बांदून हे

सगळें पळयता. तांका मायेचो हात दिवंक फुडे येवपी मनीस तशे कमीच. कवळी मनां विश्वासू आनी उमेदी आसतात. तांचे भुरगेंपण वाचयात. तांकां भुरग्यांसारखें वागयात. जिणेंतले नवे अणभव घेयत तांका परिपक्क जांवक दियात. तांच्या हक्कांची खास करू मानवी हक्कांची जतनाय करात. समाजातल्या भ्रष्ट मनाक कवळ्या मनांचो हो एक्च उलो, " घरांत जावपी अत्याचारांच्या बंदखणींतल्यान आमकां मुक्त करात ".

भौ. हेमा नायक तशेंच भौ. रविंद्र म्हार्दोळकार हांणी हस्तलिखित वाचून मोलादीक अशो सूचवण्यो केल्यो तर शिवा आर्टस, ढवळीचे मालक आनी वावुरप्यांनी हें पुस्तक छापून आसरा संस्थेच्या वतीन उजवाडावपाक हातभार लायलो.
सगळ्यांक बरें मागून म्हजीं दोन उतरां सोपयता.

....... यशवंत नायक

# १

ही कथा सुकूराची – राय गांवचें एक सादें, सुंदर आनी हुशार चली. एक सादी, सामान्य जीण जगूनय मनांत कितलीशींच सपनां पळोवपी आनी तीं सपना सांबाळून दवरपी. सुकूराचें भुरगेपण एका गरीब घरांत गेलें. तें णव वर्सांचे आसतनाच ताचो बापूय भायर पडलो. आवयन ताका आनी ताच्या दोगां भयणांक – मारीया, ली ल्हानाचीं व्हड केलीं.

सुकूर सगळ्या भयणांत व्हडलें. भुरगेपणातच ताचेर संवसाराचो भार पडलो. केन्ना केन्ना ताकाय आवय बरोबर चार घरांतलो वावर करचो पडटालो. मारिया–ली चो अभ्यासय घेवचो पडटालो. खावपाक जेवपाक नासल्यार उपाशीं न्हिदचें पडटालें. इतलें आसूनय, ह्या ल्हान मनान

व्हड सपनां पळोवपाचें बंद केलेना. ताच्या उलोवपांत सदांच आत्मविश्वास आनी मनांत व्हड हावेस आसतालो.

सगळ्यांत व्हड आशिल्ल्यान तें जापसालदारकेंन वावुरतालें. आवयक आपले धुवेचेर गर्व आशिल्लो. ती सकूराक सदांच फाटबळ दिताली. दीस, म्हयनें, वर्सां पळयतां पळयतां परतलीं. सुकूर ल्हानाचें व्हड जालें. कशें-बशें ताणें बारावी मेरेनचें शिक्षण घेतलें. मारिया, ली अजून शाळेंत शिकतालीं. सुकूर बावीस वरसांचे जातकच आवयक ताच्या लग्नाचो हुस्को जावंक लागलो. सगळ्यांत व्हड चली आशिल्ल्यान तिका चड चिंता लागिल्ली. फाटल्यान आनी दोन चलयो आशिल्ल्यो. सुकूर सदांच आवयक समजायतालें,
" माय माका बेगीन काजार जावंक नाका कित्याक तर, हो म्हज्या जिविताचो प्रस्न आसा, म्हाका मोगाळ आनी जतनाय घेवपी सांगाती जाय."

सुकूराचें चितप सारखेच आशिल्लें. दर एके चलयेचें आपणांक मोगाळ घोव मेळचो अशेंच सपन आसता. आपणांकय एक सपनांतलो राजकुवर घोव मेळचो असो हावेस घडयें तें मनांत दवरी. सिंद्रेलाच्या काणयांचो ताचेर चड परिणाम जाल्लो. गरीबीतल्यान दीस काडिल्ल्यान ताकाय आपले आवयक, भयणांक सुख दिवचें अशें दिसतालें. ताका आवयच्या

तोंडाचेर हांसो पळोवंक जाय आशिल्लो. तेचपरी, एक स्वतंत्र जीण जगची अशेंय ताचें मन म्हणी, म्हूण ताणें नोकरी करपाचें थारायलें. शिक्षणाचो प्रसार तितलो नाशिल्लान त्या काळांत नोकऱ्यो घे म्हण मेळटाल्यो. बेकारी हो आतां सारखो मोठो प्रस्न नाशिल्लो. थोड्यो खटपटी करून, सुकूरान एके मुळाव्या शाळेंत नोकरी मेळयली.

आपणांक नोकरी मेळ्ळ्या ही खोशेची खबर आपल्या घरच्यांक सांगूंक तें धावत सुटलें.

"माय, म्हाका जॉब मेवलो, आतां तूका लोकांगेर वावर करची गरज ना. तू सुसेगादीन राव" ताणें म्हळें.

आपली चली चार पुस्तकां शिकून आयज आपल्या पायांर उबें जालें हे पळोवन तिच्या दोळ्यांत खोशेची दुकां आयलीं. आपणें घेतिल्ल्या त्रासांचें फळ आयज आपणांक मेळलें, म्हुण तिणें जेजूचे उपकार आठयले. असोच जेजू क्रिस्ताचो हात आमचेर आसूं. तिणें सुकूराचो उमो घेयत म्हळें.

# २

चली वाडली म्हणटकीच आवयक तिच्या लग्नाचो हुस्को जाता. अशीच अवस्था सुकूराचे आवयची जाल्ली. आपल्या दोळ्यांमुखार ताचे काजार जावचें अशें तिका दिसतालें. ती एक कॅन्सर पेशण्ट आशिल्ली. पुणून तिणें आपल्या धुवांक हे विशीं कळूंक दिलेना. आपलें दूख्ख मनांत दाबून सोसून घेतलें.

काय म्हयन्या आदीं एका घरांत कपडे उमळटना तिका घुंवळ आयली आनीक दोतोरान तिका ब्रेन ट्युमर आशिल्ल्याचें सांगिल्लें. घरांतले वातावरण इबाडचें न्हंय आनी आपली भुरगीं हुलके - काळजाची

आशिल्यान तिणें ही खबर कोणांकच सांगली ना. आपलीं भुरगीं सदांच हांसत खेळत आसचीं अशेंच तिका दिसताले.

एके रातीं भुरगीं गाढ न्हिदेंत आसतना, ती उदक पिवपाक उठली. रांदचे कुडींत वतनाच दाराक तिची तकली आपटली आनीक बेशुद्ध जावन ती धाड करून जमनीर पडली. आवाज आयकून तिगीय चलयो धांवत रांदचे कुडींत पावल्यो. आवयक हे अवस्थेत पळोवन तांकां धक्कोच बसलो. खीणभर ती निंण्णली. मारियान मोठ्यान किळांच मारली. शेजारचे चार लोक जमले.

"मायक घुंवळ आयली,मायक घुंवळआयली, तिका दोतोरागेर व्हरात ", सुकूर आड्डुंक लागलें.
आवयच्या दोळ्यांचेर उदक फाफडूंन सुदां कायच फायदो झालो ना. जे जावपाचें तेंच ज़ालें. फातोडेच्या पांच वरांचेर सुकूराची आवय भायर पडली. तो दीस तिगांयचोय आकांतोचो दीस आशिल्लो.

आतां फुडें कशें जातलें होच हुस्को सुकूराक जाल्लो. पूण एक मनीस मेलो म्हूण संवसार बुडना. दर एका खिणांक सुकूराक आवयची याद सतावंक लागली. तिचे हासरें तोंड ताच्या डोळ्यामुखार येवंक लागलें. दोळे दुकांनी भरुन येताले. थोड्या दिसां खातीर ताचे आवयची भयण, कातालीन तांचेकडेन आदाराक रावली.

# ३

एक दीस कातालीनान सुकूराक ताच्या काजाराविशीं विचारलें.
"तुवेन बेगीन काजार जावचें, अशी तुजे आवयची निमणी इत्सा आसली" दचकत कातालीनांन हीं उतरां उक्तायलीं.

" बाय, तूं बेगीं काजार जा, ना तोर तुजे मायच्या आत्म्याक शांती मेळचीना", तिणे म्हळें.
" हांवे तुकां सोयरीगत हाडल्यार जाता?", तिणें विचारलें.
"म्हाका कसलो सांगाती जाय तें तुका खबर आसा न्हय?",
"वोय बाय, तूं कायच हुस्को करुनाका. हांव जिस्त करता", तिणें विश्वासान सांगले.

कांय दिसांनी कातालीन सुकूराक वेलीं गांवच्या सांतान नांवाच्या चल्याची सोयरीगत घेवन आयलें. सांतान हो एक मोठो कपड्यांचो कारखानदार आशिल्लो. पयशांनी ताण, सभ्य आनीक दिसूंक देखणो म्हूण वेली गावांत तो फामाद आशिल्लो. गावांत ताका व्हड नांव आशिल्लें.

कातालीनान तांचे मेळपाचो दीस आनी वेळ थारायलो. सांतानाक पळयतानाच सुकूर ताच्या मोगांत पडलें. सुकूरुय सांतानाच्या मनांक भावलें. ताकाय सुकूर आवडले. सुकूराचें सपन खरें जायत आयलें. दोगांय एकमेकांकडेन खूब वेळ उलयलीं. सुकूराचे भयणांनीय तांच्या लग्नाक हयकार दिलो. ख्रिस्ती धर्मां प्रमाण तांचें काजार एप्रिल म्हयन्यांत ठरलें. सुकूर - सांतानाचें काजार थाटांत जाले. आनी तें वेलीं गांवचें जालें. मारिया, लीक सुकूर पयस गेलें ते पळोवन वायट तर दिसलेंच पूण तितलीय खोशीय जाली.

आवयबापायन बांदिल्लें व्हड घर आसूनय सांतान वेगळो रावतालो. ताणें आपलें अशें वेगळें घर बांदलेंले. ताका आवय, दोन भाव आनी काजार जाल्ली भयण आशिल्ली. सांतान हो एकदम फोल्गी मनीस. ताका भोवपाक तशेंच इश्ट जोडपाक आवडटालें. तशेंच भुरगीं तर ताका जीव कीं प्राण. आवय-बापूय नाशिल्लीं भुरगीं जांव आवय-बापायन सोडील्ली भुरगीं सांतानाकडेन येवन रावतालीं. ह्या सभावाक लागूनच

तो गावांत दानशूर म्हण फामाद आशिल्लो. वेलीं गावचे लोक ताका मानान हडकिताले.

लग्नाच्या पयल्याच दिसा सांतानान सुकूराक आपूण एक धादोशी, मोगाळ मनीस म्हूण सांगले.

“ हांव चड वेळ म्हज्या इश्टां / भुरग्यां बरोबर घालयतां. म्हाका व्हड मनांची मनशां आवडटात”, ताणें सुकूराक सांगलें.

“म्हाकाय तुजो सभाव आनीक विचार खूब आवडले”, सुकूरान म्हळें, इतलें म्हणून ताणें सांतानाक घट वेंग मारली. लग्नां उपरांत सुकूराक आपणें नोकरी करची न्हंय अशें दिसतालें.

“ बायलांनी घरांत बसून रांद – वाड करप म्हाका पटना”, अशें सांतान सदांच म्हण देखून सांतानाच्या उतराक मान दिवन सुकूरान नोकरी परती धरपाचें थारायलें. ताचो सांतानाचेर विश्वास आशिल्लो.

लग्ना उपरांत थोडे दिस सुखान गेले. दोगानींय एका-मेकांचो खूब मोग केलो. तांचे लैगिक संबंधय निरोगी आशिल्ले. पूण इतलें आसूनय, आपणाक दोन-तीन वर्सां बापूय जावपाचें ना अशें सांतान सुकूराक सुरवातीपासून सांगतालो.

**"I Want to Enjoy my life"** अशें तो म्हण.

"भुरगीं जाल्यार तुका कसली आडखळ जातली?", सुकूरान ताका रागान विचारलें.

"म्हाका ओगीच भुरग्यांचो ताण नाका. तुका भुरगीं जायच जाल्यार दारांत भुरगीं येतात तांचेकडेन तुजी उमेद भागय नाजाल्यार शाळेच्या भुरग्यांक घेवन बस", कर्कश आवाजांत ताणेंय परत जाप दिली.

घोवाचो हो अवतार पळोवन सुकूर आकूळ पिकूळ जाले. मनांत वेग-वेगळे विचार येवंक लागले पूण ताणें मनांक समजायलें. तें ओगीच रावलें.

# ४

दीस परतत गेले. सुकूर आपल्या कामांत खूब गुल्ल उरुंक लागलें. सांतानय घरा कळाव करुन येवंक लागलो. आयज ही मिटींग जाल्यार फाल्या कॉन्फरन्स; तर परां पार्टी. एक मिनीट ताका घरांत रावंक फुरसत नाशिल्ली. रोकडोच एप्रिल म्हयनो आयलो. तांचो काजराचो पयलो वाडदीस आशिल्लो. हो दीस सुकूराक तितले उमेदीचो उरुंक नासलो. किद्याकतर, काजार जावन थोडे म्हयने सोब्ले जाल्यार तांचे मजगतीं वाद चड जांवक लागले. सांतान ताचेकडेन दुर्लक्ष करुंक लागलो. आपले इश्ट आनी भुरग्यां बरोबर तो चड वेळ घालोवंक लागलो. आपली लैंगिक भूक भागोवपाच्या वेळार ताका सुकूराची गरज पडटाली. इतलें आसूनय सुकूर सगळें सोसून रावतालें. नोकरी

केल्ल्यान ताचें मन थोडोवेळ तरी विसरायेर पडटालें. पूण मनांत सदांच दूगदूग आसताली.

" लग्नाच्या पयल्या वाडदिसाची मोठी पार्टी दिवया न्हंय?", सांतानान सुकूराक विचारलें. मनातल्या मनांत हांसत सुकूरान मान हालयली.
" डार्लींग, तुका कसलें गिफ्ट जाय?"
"तूं सदांच हासत–खेळत सुखी आसचो अशें हांव जेजू लागीं मागता", ताणे म्हळें. सांतानान सुकूराक वेंगेंत घेतलें.

आपल्या घोवाच्या सभावांतलो हो बदल पळोवन सुकूराक चड खोशी जाली. ज्या दिसाची दोगांय आतुरतेन वाट पळयतालीं तो दीस म्हळ्यारच तांच्या लग्नाचो पयलो वाडदीस रोकडोच उजवाडलो. सुकूरान घर सुंदर सजयलें.
" लोकांची घरां सजवपाची ऑर्डर घेतल्यार बरें असें दिसता!", हांसत तोखणाय करीत सांतानान म्हळें.

# ५

सांजेचीं सात वरां जायत आयलीं. एक एकटो घरांत भितर सरुंक लागलो. घराची सजावट पळोवन सुकूराची तोखणाय जाली. लोकांनी दोगांक्य परबीं दिली. पार्टेत नाच, गाणीं रंगतालीं. तरेकवार जिनस आनीक ड्रिंक्स आशिल्ली. बरे बरे गिरेस्त लोक आयिल्ले. सातानान इश्टांक आनी तांगेर येवपी भुरग्यांक आपयिल्लें. कोस्ता ह्या खास इश्टाची वळख ताणें सुकूराक करून दिली. हां-हां म्हणतां अकरा वरां जायत आयलीं. सगळीं सोयरीं घरा वचपाक गेली. सांतानाचे थोडे इश्ट हॉलांत बसून खबरी मारताले. बारा जायत आयलीं. पुराय दीस काम केल्ल्यान सुकूराक खूब पुरो जाल्लें. न्हीद येवंक लागली म्हण कोणाकच जाग दाखयनासतना तें आपले कुडींत वचून न्हीदलें.

फातोडेर जाग आयली तेन्ना खाटीर पळयत जाल्यार सांतान ना. तें पळवन सुकूर हॉलांत गेलें. थंय तो नाशिल्लो. ताणें बाकीच्या कुडांनी वचून पळयलें पूण सांतान नाच. भायलें दार भितल्यान बंद आशिल्लें. ताका कांयच येवजना जालें.

"अशे तरेन सांतान इतलें फातोडेर गेलो तरी खंय?", मनातल्या मनांत ताणें विचारलें.

ताकतिकेन तें सांतानाक सोदूंक इस्काद चडूंक लागले. वयले कुडीचें दार भितल्यान बंद केल्लें. तें घुसपलें. ताणें तरीकय दारार मारलें. फुतफुतपाचो आवाज ताच्या कानांर पडलो. पांच-धा मिनटांनी सांतानान दार उगडलें.

" तूं हांगा कितें करता? रातीं तर तूं म्हजे कुडींत आशिल्लो मागीर हांगा...?", ताणें अजापून विचारलें.

सांतान घामा घुम जाल्लो. कितें उलोवचें तेंच ताका सुचना जालें.

"रातभर म्हाका न्हीद पडली ना. कसले कसले विचार मनांत येवंक लागले. सिगरेट ओडची अशें दिसलें आनीक तुका त्रास जावचो न्हय म्हण हांव वयर येवन न्हीदला", आडखळत आडखळत सांतानांन हीं उतरां उक्तायलीं.

“ सांतांन कितें जालां, तु इतलो कित्याक गडबडटा ?”, सुकूरान विचारलें. “हांव बेस बरो आसा. रातीं चड कुट्ट केल्यान आयज जीव वयर सकल जाला”.

सांतानाची ही अवस्था पळोवंन ताका दुबावच पडलो. कुडींतलो आवाज परतून परतून कानांत घुमूंक लागलो. कुडींत आनीकय कोण तरी आसूंये अशे ताच्या मनांक दिसले. वयल्या बलकांवाचें दार ताणें उकतें पळयिल्लें. सांतान किते तरी लिपयता म्हण ताका समजलें. सुकूराक जायते प्रस्न सतावंक लागले. चित्त खयंच लागना. सांतानान फट मारलां अशे ताका परतून परतून दिसूंक लागलें. मन दुबावी जालें. पूण थोड्या दिसानी ह्या गजालीचेर विसर पडलो आनीक जीण परत सुरळीत जाली.

## ६

सुटयेचे दीस आयले. पूण सांतानाक कामाखातीर मुंबय वयचें पडलें.
" हांव आयल्यार जाता?", सुकूरान विचाल्लें.
" तुका हॉटेलांत एकटेंच रावन वाज येतलो", ताणे म्हळें.
" हांव थंय मजा करूंक वचना, फुडल्या खेप तुका व्हरुया", सांतानान सुकूराची समजूत घाली.

पंदरा दीस सांतान मुंबय उरतलो म्हण सुकूरान राय वचपाचे थारायलें. दुसऱ्या दीसा सांतान मुंबय वचूंक गेलो आनी सुकूर राय पावलें.
मारिया, ली सुकूराक पळोवन खुश जालीं.
"तूं कशें आसा? ", मारियान विचारलें.

"बरें आसा".

आपल्या मनाची अवस्था भयणांक सांगपाची गरज ताका भासली ना. दुख दुसऱ्याक सांगले म्हण उणे जायना अशें ते मानतालें.

सुकूर राय गेलां ते पळोवंन सांतान मुंबय गेलोच ना. पंदरा दीस तरी तें परत येवचें ना अशें ताका पक्कें दिसलें. कोस्ताची मदत घेवन ताणें चार-पांच भुरगीं घरांत हाडून दवरलीं. तो एक लिंग पिसाट आशिल्लो. भुरग्यांकडेन लैगिक संबंध दवरपी. हें गुपीत गुपीतच आशिल्लें. गावांत कोस्ता-सांतानाची इश्टागत फामाद आशिल्ली. कोस्ता सांतानाक भुरग्यांची पुरवण करून दितालो. पयशांनी ताण आशिल्यान सांतान खूब पयशे दिवन कोस्ता कडल्यान भुरगीं हाडून घेतालो. ही भिरांकूळ वासना ताका बादिल्ली. हें सुख भोगपाक ताणें कितल्याशाच भुरग्यांचो बळी घेतलेलो. गोंयभायर वचून ताचे हे धंदे चलताले.

वेलीं गावचे शीमेर एक वस्ती आशिल्ली. हे वस्तीक 'भायल्यां-वस्ती' अशे म्हणीं. गोयां भायले लोक हे वस्तींत रावताले म्हूण घडये वस्तीक तें नाव पडलें. हांगा नाका ते धंदे चलताले. सोरो, बायलो सगळें हांगा मेळटालें. हांगाच्यांनच कोस्ता भुरग्यांची पुरवण करून दितालो. ताका सांतान खूब दुडू दितालो. थोडे दुडू कोस्ता भुरग्यांच्या आवय बापायक दितालो. अशे तरेन आपल्या भुरग्यांच्या जोडीचेर हे लोक रावताले. ह्या

भुरग्यांची तरा अशी की, कोणाक आवय–बापूय ना, बापूय बेबदो, घरांत आवय–बापायली झगडीं तर कोणा आवय आसल्यार बापूय ना, बापूय आसल्यार आवय ना. ह्या लोकांक वावर धंदो करपाक कसलेंच साधन नाशिल्लें म्हूण दोन वेळची भूक भागोवपाक ताणीं आपल्या भुरग्यांक धंद्याक लायलीं. हे वस्तेत कोस्ता सारखेच कितलेशेच लोक “एजंट” म्हणून वावुरताले. हे एजंट गोंयच्या न्हंय तर गोंया भायल्यान येवपी टुरीस्टांक भुरग्यांची पुरवण करुंन दिताले. चड करून डिसेंबर, मे म्हयने तांचे जोडीचे आसताले.

# ७

राय ताचे मन रमना जालें म्हूण ताणें वेलीं वचपाचें थारायलें. मारियान रावपाक आग्रो करुनय दुसऱ्या दिसा तें वेलीं वचूंक गेलें. घरा पावतकच फुडलें दार ताणें उगडलें. घराची एक चावी ताचेकडेन आसताली. भीतर येवन तें सोफाचेर बसलें. इतल्यान ताका फुतफुतपाचो आवाज आयकूंक आयलो. ते भियेले ताणें हांगा थंय पळयलें. पूण कांयच समजना जालें. आपणांक भास जाला जावयें, अशें समजून ताणे आपल्या मनाक थातारले. थोड्या वेळान परतून तोच आवाज कानार पडलो. कोण तरी घरांत भीतर सरला म्हंण ताका कळ्ळे. ताचे हातपाय थरथरताले पूण धीट जावन ल्हवूच तें इस्काद चडूंक लागलें. बॅड-रुमात कोण तरी आसा ताच्या मनात निश्चित जाल्ले. चोर आसल्यार ताका धडो शिकोवपाचें

मनात ताणें थारायलें. पूण दाराकडेन पावतकच सांतानाचो आवाज ताका स्पष्ट आयकूंक आयलो.

" सांतान तर मुंबय आसा ", ताणे मनातल्या मनांत म्हळें. तें परतून कान लावन भितर कितें चल्लां ते आयकूंक लागलें. पूण कायच समजना. दार भितल्यान बंद केल्लें. थोडो वेळ शांततायेन ताणे विचार केलो. कितें करचें कायच कळना जालें. मनात दुबाव आयलो. भितर कोण आसा तें पळोवपाक दाराच्या बुरकांतल्यान नदर मारत जाल्यार कितें, सांतान खाटीर दोन चल्यांक घेवन न्हीदला आनीक तांचेकडेन चाळें करता. तांच्या आंगार कांयच कपडे नाशिल्ले. भुरग्यांच्याय आंगार कांयच नाशिल्ले. हीं भुरगीं बारा-तेरा वर्साची. घडये कमीय आसूंये.

हे पोळवन सुकूराक शेळो घाम सुटलो. हात-पांय थरथरले. वेळ करीनासतना तें आयिल्लें तशेंच परतें राय गेलें.

अशें हें विचित्र आनीक आंगार कांटो फुलपासारखो देखाव सुकूरान केन्नाच पळोवंक नाशिल्लो. ताका धक्कोच बसलो.

## ८

मारिया, ली सुकूर परतें घरा आयलें तें पळोवन आजापच जालीं. ताणीं जायते प्रस्न केल्लें.

"म्हाका थोडोवेळ एकटें सोडात. त्रास करु नाकात, हांव, हांव पायां पडटा तुमच्या", आड्डून सुकूरान म्हळें. ताचे डोळे दुकांनी भरुन आयले. हें पळोवन दोगीय भयणी चिंतेस्त जाल्यो. ताणी सुकूराक पयलें केन्नाच हे अवस्थेंत पळोवंक नाशिल्लें.

थोड्या वेळान तकली शांत जातकच सुकूर कुडीतलें भायर सरलें. म्हजी तकली वदोळ कणकणटाली. दचकत दचकत तें उलोवंक लागलें. ओगी रावपच शाणेपण म्हुण ताणें भयांन कांयच सांगलेना.

कशें सांगतले आशिल्लें, तांची लग्नां फुडल्या म्हयन्यांत थरिल्लीं. ही खबर भायर सांगली जाल्यार लोक शी–थु करतले आनीक लजेक पडत म्हण दुःख मनांतच दवरून सुकूर घुसमटतच रावलें. कोणांकच कांयच सांगलेना. सांगल्यार कोण विश्वास दवरतलो आशिल्लो? ताचेकडेन कांयच पुरावो नासलो. फुडें कितें करचें, कोणाचो सल्लो घेवचो, ताका कायंच समजना जालें. अशा वेळार ताका आपले आवयची याद सतावंक लागली. आवय आशिल्ली जाल्यार तिचेकडेन आपलें दुःख उकतांव येतालें अशें ताका दिसलें. शेवटी कांय दिसांनी तें परत वेलीं गेलें. सांतान भायर बलकांवाचेर पांय पातळवन बशिल्लो. आपूण मुंबयच्यान आतांच आयलां अशें तो सांगूंक लागलो. पूण सुकूरान तोंडातल्यान एक शब्द काडलो ना. सांतानाकय कांयच विचारलें ना.

“ तू ओगी कित्याक? बरें दिसना?”, सांतानांन विचारलें. सांतानाच्या दोळ्यांत पळोवपाचें धाडस ताका जालेना. सुकूराची ही अवस्था पळोवन सांतान भियेलो. ताका कांयच समजना जालें. इतल्या दिसांनी मेळून लेगीत सुकूरान ताका कायंच विचारलें ना म्हूण तो चिंतेस्त जालो.

सांजे घरा पावतकच सुकूरान सांतानाक इतले दीस आपणांक फोन कित्याक केलो ना तें विचारलें.

“तुका म्हजी याद आयली ना? ”

" म्हाका तुजी याद सदांच येताली पूण काम इतलें आशिल्लें, फोन करुंक फुरसतूच मेळ्ळीना", सांतानान म्हळें.

" दोनदां फोन केल्लो तेन्ना फोन व्यस्त मेळूंक लागलो".

सांतान कितलो फटिंग हे ताका कळून आयलें. भरवंसो दवरपाची ताची लायकीच नाशिल्ली. ताका सांतानाची आतां सामकी तिडक येवंक लागिल्ली.

तोंडार कसलीच कूस दाखयनासताना तें सदांभशेन वागलें. सांतानाची काळीं कर्तुपां ताणे उकती करपाचें थारायिल्लें.

फक्त एका संदीच्या सोदांत तें आशिल्लें. आज जरी ताणें सांतानाक नाका ते प्रस्न केल्यार लेगीत तो फट मारतलो आशिल्लो. आपलीं फटिंगपणा पचयतलो आशिल्लो. आपूण तो न्हंयच अशी वृत्ती बाळगितलो आशिल्लो म्हुण सुकूरांन कांय दीस वोगी रावन कळ सोंसली.

# १

सांतानाकडेंन लैगिक संबंध दवरपाची ताची अजिबात इत्सा नाशिल्ली. तें ताका चुकोंवक लागलें.

एके राती सांतानान ताका बळजबऱ्यां घट्ट धरलें.
" म्हाका हात लाव नाका, म्हाका तुजे लागीं संबंध दवरपाचो ना " रागान ताणें सांतनाक म्हळें. हें आयकून सांतानाची तकली घुंवली.
"हांव तुज्यांत जाल्लो बदल पळयत आसां, तू पयलींचे ना".
"म्हाका तुजेसारखीं नाटकां करुंक जमना. म्हजें एकच रुप आसा, दोन नात."
"तुजें किते जालां? तुका कितें म्हणपाचे आसा?" सांतानान विचारलें.

" थोडेच दीस राव तुका सगळें कळटले ", अशें म्हणत सुकूर सालांत वचून सोफाचेर बसलें.
सांतान ताजीं हीं उतरां आयकून घुसपलो. ताच्या मनांत जायते प्रस्न पडूंक लागले. नाका जाल्लें चितूंक येवंक लागलें.

दुसऱ्या दिसा सातानांन घडिल्लो प्रकार कोस्ताक सांगलो. "चोरा मनांत चांदणें, अशांतलो प्रकार घडला म्हण तुका सुकूर बदल्ला अशें दिसता जावंये ", कोस्तान हांसत म्हळें.
" तूं ताका चड वेळ दी. ताका भोंवपाक बी व्हर. घरांत बसून तें तशें जालां "
" ताका आमचीं कारस्थानां तर कळ्ळीं ऩात मूं?" मनांत दुबाव हाडत सांतानान हीं उतरां कोस्ता मुखार उकतायलीं.

" तें कळूंक, कोणे तुका पळयलो तर? ना मूं? मागीर जालें. असलें नाका आशिल्लें चितपाचें बंद कर आनीक म्हजी तकली खावंक नाका" अशें म्हणत कोस्ता वस्तींत वचूंक गेलो.

# १०

सांतान – सुकूराचे संबंध दिसान दीस मंद जायत गेले. सुकूराक खबर आशिल्लें सातान आपली शारीरीक भूक भायर भागयतालो. तांचे मदीं सदांच झगडीं जावंक लागलीं. सुकूराचेर दोन–चारदां ताणें हात्‌य उखल्लो. एके राती जेन्ना सुकूरान ताचे बरोबर लैंगिक संबंध दवरपाचें टाळ्ळें, तेन्ना सांतानान ताचेर ज़बरदस्ती केली. ही करणी म्हळ्यार कायद्यान आपलेच बायलेचेर केल्लो अत्याचार, तिचेर केल्लो बलात्कार आशिल्लो.

थोड्या दिसांनी सुकूर मारियाच्या लग्नाची तयारी करूंक राय गेलें. सांतानान ताचे वांगडा वचपाचें टाळ्ळें. सुकूरान ताका हे फावट जिस्त

धरपाचें थारायिल्लें. तें ताचे पाळटेर आशिल्लें. सकाळीं तें राय वचूंक गेलें आनी रातचें वेलीं परतलें. घरांत पावतकच तें दार उगडून सांतानाक सगळेकडेन सोदूंक लागलें. पूण सबंद घरांत सांतान खयंच सापडलो ना. तें चिंतेस्त जालें.

धावत कोस्ताच्या घराकडेन वचून ताणें व्हिस्त मारली. पूण थंय कोण नाशिल्लो. इतलें करतासर ताजो जीव सामको वयर सकयल जालो. घरा परतून तें आपलें कुडींत येवन बसलें. घर शांत आशिल्लें. इतलें म्हणसर वयल्यान आवाज येवंक लागलो. सांतानच घरा आसा हें ताजे मनांत निश्चिंत जालें. आपली बायल राय गेल्या म्हूण सातान बिनधास्त आशिल्लो. हे खेपो ताणे सातानाक धरपाचो पक्को निर्णय केल्लो. वेळानय ताका साथ दिली. तें इस्काद चडूंक लागलें. बेडरूमाचें दार आड केल्लें. व्हड धाडस करून ताणें दार उगडलें.

या फावट सातानांक उलोवपाक कांय उतरांच नाशिल्लीं ताजें खरें रुप उकतें जालें. आंगार कांयच कपडे घालीनास्तना तो एक सात ते आठ वर्सांच्या चलयेक घेवन खाटीर लोळटालो. सुकूराक पळोवन सांतानांक शेळो घाम सुटलो. अशें जायत म्हूण ताणें सपनांत देखून चिंतूक नासलें. आपली बायल आनीक आपलें पाळटेर रावत हें केन्नाच येवजूक नाशिल्ले. आपली करणी सदांभशेन गुपीत उरतली अशें ताका दिशिल्लें. पूण

'सदा–सदांच पुरण पोळयो न्हय!' ही म्हण तशी आयज खरी थरिल्ली. धांवत सुकूर राय वचूंक गेलें. दुसऱ्या दिसा सांतान थंय आयलो. ताका उलोवपाक तोंडच नाशिल्लें. पूण चोराक तोंड व्हड. थोडोवेळ वोगीच रावन ताणें सुकूराकडेन माफी मागली.

"म्हाका पश्चाताप जाता. तूं घरा यो. हांव तुजेबगर रावंक शकना." ताणें म्हळें.

"तूं हांगा कित्याक आयला? तोंड घेवन वच. म्हाका तुजें तोंड पळयल्यारच वीट येता. तुजेकडेन आनीक म्हाका संबंध दवरपाचे ना" अशें म्हणत सुकूर दोळ्यांतलीं दुकां पुसूंक लागलें.

"हांव तुजेकडेन दयेची भीक मागता, तूं घरा यो. म्हाका निमणी संद दी. म्हाका तूं जाय. तूं जर घरांत येना जाल्यार हांव जीव दितलों" आता सांतानानय दूक काडलें.

सुकूराक कितें करचें तेंच सुचना जालें. ताचेर विश्वास दवरप कांय ना? हो एक मोठो प्रस्न ताका सतावंक लागलो. लजेक लागून आनीक घरची परिस्थिती पळोवन ताणें वेलीं वचपाचें थारायलें.

घरा पावतकच सांतानान ताका फाटल्यो वायट करण्यो विसरपाक

सांगले. “ आमी एक नवी जीण सुरु करुया. तुकां संवसाराची सगळीं सुखां म्हाका दिवंक जाय ” ताणे सुकूराक विश्वासांत घेतलें.

सुकूराक दिसलें, सातान सुधारलो. ताणें मनाची समजूत घाली. कितलो तेप तें भयणीम्हऱ्यान रावतलें आशिल्लें? शेवटी तांकां तांचो संवसार आशिल्लो. म्हूण ताणें तडजोड करपाचें थारायलें. पूण सांतान सुदरुंक ताका कितें व्यसन लागिल्लें तर? ताका बायलो, तशेंच नाजूक, कवळीं वयांत आयिलीं भुरगीं आवडटाली. भुरग्यांकडेन लैगिक संबंध दवरपी तो एक लिंग पिसांट आशिल्लो. सुकूरान ताचे खरें रुप पळयलें म्हूण तो भियेलो. गावांत ओगीच नाव घाण जायत म्हूण ताणें हे नाटक रचलें. भुरग्यांकडेन लैगिक संबंध दवरप सांतानाच्या मतान अत्याचार न्हय तर तांचेर माया करप अशे आशिल्ले.

# ११

सुकूराक दीस गेल्यात ही खोशेची खबर समजतकच सांतान नाचूंक लागलो. घडये ताका चड मेकळीक मेळटली म्हण तो खुश आशिल्लो जांवये. एक दीस जेन्ना कोस्ता तांच्या घरा आयलो तेन्ना सुकूरान ताका धांवडायलो.

“ तूं आमचो संवसार उध्वस्त करुंक कित्याक उठला?”, सुकूरान ताका कडक आवाजांत म्हळें.

“ देव तुका केन्नाच माफ करचो ना. तुवेंन आमचो न्हंय तर ल्हान भुरग्यांचो खून केला ”. इतल्यान सांतान थंय पावलो. ताणें सुकूराचें उलवप आयकलें.

“ म्हज्या इश्टाचो अपमान करपाचो तुका कांयच हक्क ना”, अशें म्हणत ताणें दोन थापटां ताजेर मारलीं.

“ तुका तुझ्या हळशीक इश्टाचें इतलें पडून गेलां पूण म्हज्या पोटांत आशिल्ल्या भुरग्याचें कांयच पडून वचूंक ना? फाल्यां तुमी दोगीय म्हज्या भुरग्याक आपली भूक भागोवपाक विकून वडयतले. दुसऱ्या भुरग्यांचेर अत्याचार करपी आपल्या भुरग्यांचेर करूंक फाटीं सरचे नात. म्हूण हो दीस उजवाडचे पयलीं म्हाका आनीक पोटांत आशिल्ल्या ह्या भुरग्याक मारून वडयात”. आड्डी मारत सुकूरान हीं उतरां परगटायलीं. हे आयकून सांतान ओगी पडलो. कोस्तानय पळ काडलो. सांतानान सुकूराची समजूत घालपाचो यत्न केलो.

“ म्हाका त्या कोस्ताचें तोंड पळोवपाचें ना”, सुकूरान म्हळें.
“ तुका ताची संगत सोडची पडटली. चर्चीत वचून जेजू क्रिस्ता मुखार उबो रावन सोपूत घेवचो पडटलो ”, अशी मागणीं सुकूरान सांतानांलागीं केली.

“ कोस्ताची संगत सोडल्यार सगळो घोळ जातलो. कोस्ताक म्हजीं सगळीं कर्मां खबर आसात. तो कितेंय करुंक फाटीं सरचोना आनी मागीर म्हाका भुरग्यांची पुरवण कोण करतलो? कोस्ताच्या पोटा-आड

येवप म्हळ्यार बांयत उडी मारप. ना, ना हांव कोस्ताक सोडचोना" सांतानाचो जीव वयर सकल जालो.

"कोस्ता आनी हांव पयलीं सावन घट इश्ट हें पुराय गावांत खबर आसा. हांव ताची इश्टांगत सोडूंक शकना" सांतानान सुकूराक समजावपाचो यत्न केलो. परतून सांतान आपलो विस्वासघात करतलो अशें सुकूराक दिसलें.

"तशें जाल्यार हांव तुका सोडटा. लोंकांकूय तुमचें खरें रुप कळूनीं," सुकूरान सांतानाक धमकायलो.
"हें पळय, तूं ह्या घरांतल्यान पांय भायर काडशीत जाल्यार हांव तुका जितेच मारतोलों" सांतानान सुकूराच्या केश्टांक घट्ट धरलें.

"तुवेंन कोस्ताची मान्यता नास्तनां ताजें लागी संबंध दवरपाचो यत्न केलो म्हण हांवय सगळ्यांक सांगूंक शकता" ताणें म्हळें.
"याद दवर, कोस्ता म्हजोच इश्ट तो म्हजीच बाजू मांडटलो. तूं त्रासांत पडटलें. अजून विचार कर. स्वतःक समजाय. रडून आड्डी मारून कांयच जावचें ना. लोक तुज्या सांगण्याचेर विश्वास दवरचेनात. ते सोड्च, हांव ताचें पयलीं तुजो जीव घेतलों. गावांत आमकां व्हड नांव आनी मान आसा. तो वगडांव नाका". तो मुमूरखोच हासलो.

आतां सुकूराचेर खरोच पेंच आयलो. कितें करचें कांयच कळना जालें. तें निण्णले. सांतानाक सोडून एक नवी जीण सुरु करप काय आसा तेच परिस्थितीत रावप. सांतानाक सोडल्यार तें स्वतंत्र जीण जगतलें आशिल्ले. पूण बापूय नाशिल्या भुरग्याक जल्माक घालप ताजे मनाक पटना जाले. जीण त्रासाची, दुख्खाची जातली आशिल्ली. परत सांताना सारकेल्या बापायच्या पालवान भुरग्याक वाडोवप म्हळ्यार? मन चिंतेस्त जालें. घुस्पून गेलें. दोळ्यामुखार काळोख पातळलो.

" हांगा प्रस्न म्हजोच ना, अशीच एक अजाण बायल वा भुरगें ताच्या अत्याचाराक बळी पडटले" सुकूराक जाग आयली. आपल्या पोटांत आशिल्या भुरग्याच्या फुडराचो विचार करत ताणें आसा तेच परिस्थितीत रावपाचो निर्णय घेतलो.

## १

"देवा सायबा म्हाका वाचय, हो म्हाका मारून वडयतलो. कोणूय म्हाका वाचयात रे."

"इतलो वेळ कोणा म्हऱ्यांन न्हिंदूक गेल्ले?"

"धंदो करता तू?"

"हय हय धंदो करता हांव. पूण जोडून घरा हांडटा हांव, तुजे भशेन दुडू सोरो पिवपाक वगडायना हांव ."

नितीन आवय बापायली झगडीं पळयतालो. बापूय आवयच्या केसांक घट्ट धरून तिजी तकली वंटीर आपटितालो.

" कोणूय म्हजे आवयक वाचयातं". तो हुयेल मारीत रडपाक लागलो.

पूण कोण ताज्या मदतीक येतलो? ती तांची सदाचीच झगडी आसली. सोरो पिवन नितीताचो बापूय बायलेक बडयतालो. नितीनाच्ये हात-पाय बांदिल्ले. तो आपले परीन सुटपाचे यत्न करतालो. ताका बापायक मारूनच वडोवचें अशें दिसतालें............!

आनी इतल्यान तागेल्या कानार उतरां पडलीं,

" नितीन उठ, उठ मरे शाण्या, इस्कोलाक वचूंक वेळ जातलो तुका. सात वरां जायत आयलीं उठ बेगीन".

आवयच्या ह्या उतरांनी ताका जाग आयली. आनी तो ह्या भिरांकूळ सपनांतल्यान जागो जालो. खाटी म्हऱ्यान आवय उबी आशिल्ली ताणें पळयली. तसो हो सपनातलो प्रसंग ताका नवो न्हय. तें सदाचेंच आसलें.

सदांच सकाळी उठून इस्कोलाक वचूंक नितीनाक वाज येतालो. आयजूय फिलू टिचरीन दिल्लो होम-वर्क ताणें करूंक नासलो म्हूण मन इस्कोलाक वचूंक फाटीं फुडें जातालें. शिकून फायदो कितें अशेंय ताका दिसतालें. "इस्कोलाक वचून फिलू टिचरीचो मार खावचे परस घराच रावल्यार बरो". तरीकूय खाटीवयल्यान उठून तो दोळे चोळीत मान्र्यांत तोंड धुवंक गेलो. तोंड धुतना ताका कालच्या राती आवय-बापाय मजगती जाल्ल्या झगड्यांचो उगडास जालो. ताणे रांदचे कूडीत नदर मारली. बापायन रागाचे भरांत शेवटून वडयिल्लीं जेवणांची ताटां आजूनय तशींच

आशिल्ली. बापूय सूस्त न्हिदिल्लो. ताका कायच पडून नासलें. बेकार-लवडी, बायलेच्या जोडीचेर मौज मजा मारपी म्हूण ताका सगळे लोक वळखताले. तो खूब दुबावीय आसलो.

सदां भशेन रांदचेकुडीन आवयन मेजार दवरिल्ली च्या पिवपाक नितीन कदेलार बसलो. आवय कामांक वचूंक भायर सरताली. नितीनान आपले युनिफॉर्म घालून दफ्तर खांद्याक लायलें. आनी इस्कोलाक वचपाक तो घरांतल्यान भायर सरलो. सकाळचीं आठ वरां जाल्लीं. पूण बापूय कुंभकर्णा भशेन घोरेतालो.... सोर्शेतालो.

# २

नितीन आठवेच्या वर्गात शिकतालो. एक वर्स नापास जाल्ल्यान तो फाटी पडिल्लो. ताजे चित्त शिकपाचेर नासले. ताजी कूड शाळेत जाल्यार मन वेगळ्याच तनरेंत आसतालें. तसो तो हुशार आसा, मन लावन शिकल्यार बरे मार्क घेंवक शकता अशें ताजी टिचर सदांच म्हण.

नितीनाची ट्यूशन टिचरय ताज्या हुशारीची तोखणाय करी. पूण घरांत फावो तशे वातावरण नाशिल्ल्यान घडये तो शिकूंक फाटी-फाटी पडटालो. नितीनाची आवय-बापूय ताज्या शिकण्याकडे दुर्लक्ष करतालीं. तो कितें शिकता, कितें सवरता, कितें करता हांचे तांका पडूकूच नासले. ट्यूशनाक हजारानी दुडू मोडूनय फायदो जायनासलो. आवय-बापूय स्कूलाच्या पी. टी. ए. च्या मिटींगेक केन्नाच वचनासलीं. घरांत नितीन एकटोच

आसतालो. आवय नोकरेक वताली तर बापूय लवडी कसो गावांर हेडटालो. तशें पळोंवक गेल्यार ताजे हजार धंदे आसताले. पूण एक धड नाशिल्ले.

बाकीच्या भुरग्यांचे बापूय तांचेर मोग करताले ते पळोवन नितीनाकूय आपणाल्या बापायनूय तशें करचे अशें दिसताले. आपल्या बापायक समाजात किंमत ना, हे ताका बेस बरें खबर आसले. देखून ताका समाजाची तिडक येताली. वर्गातल्या हेर भूरग्यांची ताका नसाय जाताली. दुसरेवटेन तो दिसांन दिस मस्ती जावक लागिल्लो. तो आपलो राग दुसऱ्यांचेर काडटालो.

एक दीस तर ताणे आपल्या वर्गातल्या एका चलयेक सरिताक फाटीक पेन्सील तोपली. पेन्सील तोपतकच तें व्हडल्यान रडूंक लागले. ताज्या फाटितल्यान भळा-भळा रगत व्हावूंक लागले. टिचरीन नितीनाक एतिश्ट पेटयलो. आनी हेडमास्तराकडे व्हेलो. हेडमास्तरान नितीनाच्या आवयक-बापायक आपयले. घरा व्हरतकच आवयन ताजें तोंडार दोन थापटां फुलयली. पुण हाचो कायच फायदो जालो ना. दिसान दिस तांकां ताज्यो कागाळी वाडत्च रावल्यो. आवय तापयता तितलोच वेळ. परतून ताजी तवनासपणां चालूच उरताली. आता तर तो गाळीय घालूंक लागिल्लो. चडांत चड वेळ नितीन खेळूंकूच वगडायतालो. ज्या थळांत ती रावताली थंयचे लोक सभ्य आनी सुशिक्षित आसले. पूण नितीन हळू

हळू वायट संगतीक लागलो.

नितीनाच्या संगतीक लागून आपणांली भूरगीं वायट जायत म्हूण हेरांनी तांकां नितीनावांगडा धाडपाक बंद केले. अशींच एक दिस टॉनी आनी नितीनाची झगडीं पेटली. हें कळटाच टॉनीची माय धावत थंय पावली.

" हावें तुका शंबर वेळा ताजी संगत सोड म्हूण सांगिल्ले . ह्या मवाल्याबरोबर रांवन तूवंय मवालीच जातलो ", अशे म्हूणन तिणें रागात नितीनाक

" व्होशिंबोर हांगासरल्यान, लोफोर खंयचो " अशेंय म्हळे.

आपल्याक लोफोर म्हळा म्हूण नितीनाक वायट दिसलें.

" हांव लोफर, हांव लोफर", अशे तो मनातल्या मनात म्हणत चरफडूंक लागलो.

चल्याच्यो ह्यो घडणुको कानार पडनाफुडें आवयक पिकासांव जालें. इतलें सगळे सुख नितीनाक दिवनूंय तो असो कसा? होच प्रस्न तिका सतावंक लागिल्लो. ताजी तिका चड चिंता जाली.

" घरांत तर तो एकदम शांत आसता. मागीर लोक अशें कितें उलयतात". लोकांच्या गजालींचेर तिजो विश्वास बसनासलो तरीकूय तिणें कांय लोकांच्या सांगण्यावयल्यान नितीनाक कॉन्सिलराकडे व्हेलो. दोतोरान

ताका जायत्या तरेचे प्रस्न करुन  ताजेविशीं जाणा जावन घेतलें.

"कितें जालां दोतोर, कितें म्हणता तो? " आवयन विचारलें.

"ताजे मनात कसलें तरी दुख घर करून आसा पूण तो तें सांगपाक भियेता " दोतोरान म्हळे.

"ताका आनीक दोनदा तरी हांगा घेवन यो मागीर पळोवया."

# ३

शेजारच्या लोकांनी आपल्या भुरग्यांक नितीनां वांगडा खेळपाचें बंद केल्ल्यान तो आता दुसऱ्या वाठारांत वचून थंयच्या भुरग्यांलागीं इश्टागत जोडूंक लागलो. ताका आतां नवे-नवे इश्ट मेळ्ळे. तो एका वेगळ्याच सवसारांत पावलो. कसो बसो तो आठवेच्यान णवेक पावलो. लायब्रीत वतां, इंटरनेटार वतां अशे सांगून तो घराचे भायर पडूंक लागलो. आवयक आपलो पूत सुदरला अशेच दिसलें. ताका बरी बुद्ध आयली अशे दिसून ती खुशाल भरीत जाली. पूण नितीनाक चडच बुद्ध आयिल्ली. इंटरनेटार वतां म्हण सांगून तो आवयन दिल्ले दुडु दुसरेंच कामात वापरूंक लागलो. सोरो पिंवपाचे व्यसन ताका सातवेंक आसतानाच लागिल्लें. ताणें बापायच्या हातांत सिगरेट आनी सोऱ्याची बाटली पळयिल्ली. बापूय कितें पियेता ताजो अणभव घेवचे खातीर ताणें सोऱ्याची रुच घेतली आनी मागीर तो व्यसनी जांवक पावलो. जण एका आवयक

आपलो भुरगो बरोच दिसता आणि हीच चूक नितीनाच्या आवयकडल्यान जाली. ऑफिसांत ती आपल्या वांगड्यांक, सहकाऱ्यांक आपल्या चल्याच्यो खबरो सांगताली. तो असो हुशार, तो असो, तो तसो.

रातची साडेधा वरां जायत आयिल्लीं. नितीन जागोच आसलो. तो आपल्या कुडीन भायर भितर करतालो. आवय-बापूय भीतर कितें करतात तें पळोवपाची ताका सदचें भशेंन आयजूय उमळशीक जाली भुरगेपणांतल्यान आवय बापूय म्हऱ्यांत न्हिदिल्लयांन ताणें तांकां मोग करतना पळयिल्लें. आपूण न्हिदला अशें सवंग करुन तो दोळे ल्हवूच उगडून पळयतालो. आवय-बापायक आपलो चलो सुस्त न्हिदला अशें दिस. ताणीं सपनात लेगीत आपलो भुरगो अशें करता आसतलो अशें चितूंक नासलें.

एके दिसा शाळेंतल्यान घरा येतना ताणें वाटेर बाजारांत वंटिक चिकटयिल्लो सिनेमाचो पोस्टर पळयलो. तो सिनेमा फक्त प्रौढांखातीरचो आशिल्लो. ताका तो सिनेमा पळोवपाची उमळशीक जाली. तो घरा गेलोच ना. ट्युशन चुकोवन तो एकटोच सिनेमा पळोंवक गेलो. तिनसान जांवन लेगीत नितीन घरा आयलो ना म्हण तागेल्या आवयक सामको हुस्को जालो. नाका जाल्ले विचार तिगेल्या मनांत येवंक लागले. तिणें टिचरीक फोन करुन चवकशी केली पूण टिचरीन तो ट्युशनाक येवकूच ना म्हूण

सांगलें. आतांतर तिजें काळीज धडधडपाक लागले. जनेलाकडेन रांवन ती ताची वाट पळोवंक लागली. पयसुल्यान नितीन दप्तर वोडीत घेवन येता तो तीका दिसलो. भितर सरतनांच,

" इतलो वेळ खंय आशिल्लो रे तूं?" तिणें रागान विचाल्लें.

" आगे हांव सायन्स सेंटरांत गेल्लो. थंय ॲस्ट्रोनोमीचो शो आसलो ", ताणें सांगलें.

" मागीर घरा फोन करून उसरां येतलो म्हण कळोवपाक येनासलें? " तिणे दुसरो प्रस्न केलो.

" फोन आनी खंयच्यान करतलो? थंय भितर सरकतच भायर सरूंक मेळना. "

नितीनान मखलाशी केली. फट कशें उलवचें हें नितीनाकडें शिकचें . कायच घडल्या नाशिल्ल्या सारखो ताणे बिनधास्त जापो दिल्यो. ताणें आवय बापायक जिस्त जोखिल्लीं. दुसरे दिसा तिनसना ट्यूशन टिचरीचो फोन आयलो.

" नितीन घरा आसा? " तिणें विंचारलें.

" ना " बापायन सांगलें.

" दोन दिस जाले तो ट्युशनांक येवकना. "

" हय, तो सायन्स सेंटरांत वता " बापायन खुलासो केलो.

घरांत ही ट्युशन टिचर म्हळ्यार फकाणाचेंच पात्र जाल्ली. नितीन तिज्यो नकलो आवय बापायक करून दाखयतालो. आनी तीं ताजीं

करतुबां पळोवन ताका हासून तेको दितालीं.

# ४

रोखडोच डिसेंबर म्हयनो आयलो. बावीस तारखेक नितीनाच्या इस्कोलांत गॅदरींग आशिल्ले. इस्कोल सुटल्या उपरांत कांय भुरग्यांक प्रॅक्टीसेक रावपाक टिचरीन सांगलें. नितीनाकूय एका नाटकांत ल्हानसो पार्ट दिल्लो. म्हूण ताकाय रावचें पडटालें. प्रॅक्टीस सदांच दोनाक सुरु जाताली. एक तास भुरग्यांक जेवपाक वेळ दिल्लो. नितीन प्रॅक्टीसेक रावतना चलयो टॉयलेटींत वतालीं तें पळयतालो. इस्कोलांत चल्यांक - चलयांक वेगळो टॉयलेट आशिल्लो. टॉयलेटाची दारां उकतींच आसतालीं. पयलीसावन नितीनाची सरिताचेर नदर आशिल्लीच. तो सरिताच्या फाटिकच लागिल्लो. दोळे मोडूंन तो मोग परगटायतालो, पूण सरिताक तो मातूय आवडनासलो. तरिकय तो ताज्या फाटल्यान फुडल्यान आसतालोच. ताका तें खुब आवडटालें. तशें तें दिसपाकूय खूब सोबीत आशिल्लें. पूण ताका मात असल्या गजालींत मात्तय रस नाशिल्लो. तें फक्त अभ्यासांतच रमतालें. तें नितीनाकडेन लक्षच दिनासलें. दोन

तिनदां ताणें नितीनाची कागाळ हेडमास्तराकडेन केल्ली. पूण तो केन्नांच सुदरुंक ना. त्या दिसा इस्कोल सुटले उपरांत सरिता टॉयलेटीक वचूंक गेल्ले. बरोबर ॲनी, ताजी इश्टीन, दारा भायर राविल्ली. इतल्यान ॲनी आपलो लेस वर्गांत उल्लो म्हूण हाडूंक गेलें.

नितीन सरिताची वाट पळयत पयलींच वचून टॉयलेटांत राविल्लो. सरिता भितर सरतकच नितीनान ताका घट्ट वेंग मारली. सरितान कच्च्य करून आंग काडलें. नितीनान ताणें बोवाळ करचो न्हंय म्हण ताजे तोंड घट्ट धरपाचो यत्न केलो. ताणे बळजबरीन ताचे कपडे आंगावयल्यान देवयलें आनीक ताणे ताचेर अतीप्रसंग केलो. सरिता ताज्या वेंगातल्यान सुटून वचपाची धडपड करूंक लागलें. ताणे मोठ्यान किळांच मारली. इतल्यान ॲनी थंय पावलें. सगळो बोवाळ जालो. ॲनीन टिचरीक आपयलें. टॉयलेटीच्या दाराभायर ही गर्दी जाली. टिचरीन भितर कितें चल्लां तें पळोवपाक प्यूनाक दार फोडूंक लायलें. दार उगडले बरोबर सगळो प्रकार उकतो जालो.

नितीनान सरिताचो बलात्कार केला ही खबर समजतांच सगळ्यांक धक्कोच बसलो. एक शाळेंत वचपी भुरगो अशें करीत हे कोणेच केन्नाच चितूक नाशिल्लें आनी नितीन हे थराक वचत अशे कोणाकूच दिसूंक नासलें. टिचरीन ताजेर रागान दोन थापटां फुलयलीं आनी ताका

हेडमासतराकडेन व्हेलो. हेडमास्तरान नितीनाक
" तुवेन हें कर्म केलां?" अशें परोपरीन विचारले. पूण तो वोगीच रावलो. बऱ्याच वेळा उपरांत नितीनान जाप दिली.
"बाबा–आई असोच मोग करता म्हूण म्हाकाय करीन दिसले." हें आयकले उपरांत फुडें कितें उलोवप तेंच कळना जालें. पूण नितीनांक आता आपणे केल्ल्या कर्माची जाण आयिल्ली, खंतूय जाल्ली. सरिताची आवय ही गजाल कळटकच खूब रडली आनी तिणें रोखडेंच पोलिसांक कळयलें. दोतोराकडेन व्हरून सरिताची तपासणी केली.

## ५

आपणांचेर हें प्रकरण शेकलें अशें आता नितीनांक पुरायरितीन कळ्ळून चुकलें आणि आपणें आदारील्लें कृत्य हो गुन्यांव आसा हेय ताका कळ्ळें. हो वेळ मेरेन नितीनान घरची वाट धरिल्ली. धावत घरा वचून तो दार बंद करून एका कोनशाक बसलो. आतां फुडें कितें जातलें तें चित्र ताज्या दोळ्यामुखार येवंक लागलें. आवय-बापायली उतरां, मार, पोलिस, जेल, ख्यास्त हें सगळें ताका दिसूंक लागलें. तो सामको भियेलो. भिवन तो घामाघूम जालो. हेडमास्तराची, टिचरीची तशेंच सरिताच्या आवयचीं उतरां ताचें कानांत घुमूक लागली.
"तुका जेलींत घालतां, पोलिसांचो मार पडटगीच जाग्यार येतलो, पोलिस, जेल, आवय-बापूय, सरिता, ना-ना नाका नाका".
" म्हजी चूक जाली म्हाका माफ करात, माफ करात" तो व्हडल्या व्हडल्यान बडबडूंक लागलो. माफ करूंक थंय कोणूच नासलो.
इस्कोलांत नितीनान एका चलयंचेर बलात्कार केला ही खबर रोकडीच

सगळ्याक पसरली हेडमास्तरान नितीनाच्या आवयक फोनार ही खवर कळयली. तिका हें आयकून जबर धक्कोच बसलो. पोलिस स्टेशनार वचून सारकी चौकशी केल्या उपरांत ती ताकतिकेन घरा परतली.

"नितीन दार उगड पयलीं, तुकां जितोच मारून वडयतां. असलो चलो जावचे परस न जाल्लो बरो आशिल्लो. हलकटा दार उगड." ती दार धोडायत रावली.

आवयच्यो आड्ड्यो आयकून शेजारचे लोक जमले. पूण दार उक्ते जालेंच नां. शेवटाक शेजारच्यांनी दार उगडलें. नितीनाची आवय भीतर सरली. तिणें पळयलें अ:नी तिणें किळाच्च मारली. नितीनांन फॅनांक गोळ लावन आपलो जीव सोपयल्लो. आवयच्या हुयेलीन सगळो वाडो एकठांय जाल्लो..........

## बरोवप्याची वळख

**ॲड्. यशवंत ज. नायक**

**जल्म :** १६ जून १९७७ वर्सा, गोंयच्या फोंडे म्हालांत.

**मुळावें शिकप :** सेंट मेरी कॉन्व्हेंट, फोंडे.

**फुडलें शिकप :** बी. ए. - पी. ई. एस. कॉलेज, फर्मागुडी - फोंडे, एल. एल. बी. - कारे लॉ कॉलेज, मडगाव, एल. एल. एम. - साळगावकार लॉ कॉलेज, पणजी, पोस्ट ग्रॅज्युएट डिप्लॉमा इन पर्सनल मॅनेजमेंट - चेन्नय विद्यापीठ, चेन्नय.

**लेखन :** थळाव्या वर्तमानपत्रांनी आनी आकाशवाणी पणजी खातीर लेखन केलां.

**सामाजिक वावर :** 'आसरा' हे बालहक्कांखातीर वावुरपी संस्थेचे वतीन तरातरांचो वावर :- ग्रामीण विद्यार्थांखातीर वैजकी शिबिरांचे आयोजन - भुरग्यांच्या हक्कांची राखण, नैतिक मुल्ल्यां ह्या विशयांचेर ग्रामीण विद्यार्थ्यांक शाळांनी वचून मार्गदर्शन - राष्ट्रीय परिसंवादांत हाजीरी. विद्यार्थ्यांक लैंगिक शिक्षण सक्तींचे करपा संबंदान सरकाराक भेटयिल्ल्या प्रकल्पाचे सह संशोधक. बालमजूर, आदिवासी हक ह्या विशयाचेर संबंदितांक भेटयिल्ल्या प्रस्तावाचे सहलेखक. सद्याक 'गोवा दूत' दैनिकांत पर्सनल ऑफिसर.

पत्तो -
**ॲड्. यशवंत ज. नायक**
घर नं. २३९,
पाठणतळी, कवळें, फोंडे, गोंय ४०३ ४०१
फोन (निवास) २३३५२७१, मो - ९८२३१०३३५२



कवळी मनां विश्वासू आनी उमेदी आसतात.

तांचे भुरगेंपण वाचयात.

तांकां भुरग्यांसारखें वागयात.

जिणेंतले नवे अणभव घेयत तांका परिपक्क जांवक दियात.

तांचे हक्कांची खास करून मानवी हक्कांची जतनाय करात.

समाजातल्या भ्रष्ट मनाक कवळ्या मनांचो हो एक्च उलो,

*"घरांत जावपी अत्याचारांच्या बंदखणींतल्यान आमकां मुक्त करात."*